मोगाळ
मेळवीणाक
मोग्येमोगान

# म्हज्या कवितांची डायरी

कोंकणी काव्यझेलो

**अजय ज्यो. बुवा (आप्पा बुवा)**

म्हज्या कवितांची डायरी
कोंकणी काव्यझेलो
अजय ज्यो. बुवा (आप्पा बुवा)



प्रकाशन क्र. १

२०१२

उजवाडावपी:
महारुद्र प्रकाशन
एस - ३, रिश्वा रॅजिडॅन्सी,
कला मंदिरा फाटल्यान,
दुर्गाभाट, फोंडें - गोंय.
maharudrabooks@rediffmail.com

अक्षरजुळोवणी
सौ. रुचा सुशांत नायक
शांताई अपार्टमॅण्ट
कवळें, फोंडें - गोंय.

मुखपृष्ठचित्र - प्रितेश नाईक

छापणावळ:
Dream Solution
No. 5, Second Floor,
Fonseca Arcade
Tisk, Ponda – Goa.
Phone No. 9637366757

मोल: १५०/-

राष्ट्रीय पांवड्यार
म्हाका नामना मेळोवन दिवपी
भोवमानेस्त पुंडलीक नायक
आनी
डॉ. राजय पवार
हांकां मायेमोगान

# म्हजे डायरे विशीं...

संवरांतलो जण एक मनीस हो तसो कवीच आसता. कांय जाण जिणेचें काव्य शब्दबद्ध करतात, तर कांय जाणांक तें जमना. जल्माक येतनाच कानार कांय उतरां आदळटात. 'कितलें गोरें न्हय? मोगरे कळये सारखें.' ह्या दोन वळींनी खंय तरी काव्य लिपिल्लें आसा. मोगरेचें प्रतीक वापरून कोणतरी ल्हान भुरग्याच्या रुपाची तोखणाय करता. दोतोर जेन्ना सांगता, आतां भुरग्याक ल्हव ल्हव शीत लावपाक हरकत ना. तेन्ना आवयचीं उतरां कानार पडटात,

*'हो घांस काऊचो...,*
*हो घांस चिऊचो...,*
*हो घांस माऊचो.'*

दर एकल्याची आवय हांगा यमकाक यमक जुळोवन आमकां जेवपाची गोडी लायता. हरशीं काऊचो... चिऊचो..., माऊचो ह्या उतरां परस त्या नांवांतलो नाद बालमनाक आवडटात आनी तें खोशी जाता. नर्सरेक वा बालवाडयेक पावले बरोबर

*'जॉनी जॉनी, एस पप्पा,*
*इटींग शुगर नो पप्पा...,*
*येऽऽ ग येऽऽ ग सरी.*
*माझे मडके भरी'*

सारख्या बडबड गितांतल्यान आमचे भितर कवितेची गोडसाण निर्माण जाता. म्हणुनूच हांव म्हणटां, 'प्रत्येक मनीस जल्माक येतनाच कवी म्हण जल्माक येता. देखून ताका सुरवातीक कवितेच्या माध्यमांतल्यान सगळें शिकयतात. म्हजेय बाबातींत हेंच घडलां जावं येत. दुसरींत आसतना आईन शिकयल्लें,

*'मला वाटते अयोध्येचा,*
*कुमार लव व्हावे..*
*रामप्रभूचा अडवुनी घोडा*
*तीर चालवावे.'*

हें गीत अजुनूय हांव गुणगुणटां. शाळेंत आसतना कविता पाठ करपाक म्हाका आवडटालें.

*इवल्या इवल्याशा,*
*टिकल्या टिकल्यांच्या,*
*देवाचं घर बाई उंचावरी,*
*ऐक मजा तर ऐक खरी.*

सारखीं गितां म्हाका अजुनूय याद आसात. 'न्युटनाचो' गती विशींचो 'लॉ' आनी पायथॉगोरसाची 'थियरी' हांव विसरलों, पूण तेन्नाच्यो कविता अजुनूय याद आसात. हांव एकलोंच हाका आडवाद न्हय. खूबश्या जणांचो होच अणभव आसूं येता.

देखुनूच हांव म्हणटां, 'कवितेचें आनी मनशाचें नातें सैमीक आसा. दर साहित्यीक आपल्या साहित्य जिवीताची सुरवात कवितेन करता. शाळेंत कविते वांगडाच निबंद, कथा पुराय करात सारखे प्रकार आसतात. पूण मनीस ओडटा तो कविते कडेन. म्हज्याय साहित्याची सुरवात कवितेनूच जाल्ली. बारावेक 'सॅण्ड ऑफा' वेळार हांवें सहज चार ओळी बरयल्ल्यो.

*सोडून जाता या ज्ञानमंदीराला, कंठ दाटून आला*
*स्पर्श तो मायेचा आकंठ बुडून आला.*

ही कविता मुखार वचूंक पावलिना. पूण मागीर मात मेळटा त्या विशयाचेर हांव कविता रचपाक लागलों. अशीच एकादशीचेर बरयिल्ली ही एक कविता:

*पांडुरंग पाडुरंग बोलतो मृदंग।*
*संत मेळा सारा आज भजनात दंग।।*

त्या वेळार वाचन उणें आशिल्ल्या कारणान म्हज्यो कविता दोन-चार वळी फुडे वचच नासल्यो. सर्गेस्त शांती तेंडुलकार आनी सर्गेस्त शाबा कुडतरकार हांणी म्हाका कविता पुराय कशी करप हाचें तंत्र शिकयलें. तंत्र एकूच आसलें, चडांत चड कविता वाचप, त्यो समजून घेवप, हेरांच्या छापून आयिल्ल्या कवितांचेर भासाभास आनी चर्चा करप. कविता सुंदर कशी आसूं येता हाचें गिन्यान प्रकाश पर्येकारान शिकयलें.

खरें म्हणल्यार विंगड विंगड सर्तीनी वांटेकार जाले उपरांतूच म्हज्यांतलो कवी सशक्त जायत गेलो. राजय पवार, हनुमंत चोपडेकार, दिवाकर सालेलकार हांचे सारख्या प्रतिभावंत कवीं कडेन सर्त करतना तांचे सारख्योच कविता म्हाका बरोवपाक जाय हो हावेस लागलो आनी दिसांत दीस तो वाडत गेलो.

म्हज्यांतलो साहित्यीक मदींच खंय लिपलो खबर ना. साहित्य निर्मणी बंद जाली ती बंदच उरली. सुमार पंदरा वर्सां साहित्य म्हजेर रुसलें अशें म्हणूं येता.

दोन वर्सां पयलीं परत बरोवपाक लागलों. पूण चडशें गद्य. कथा हो विशय अजुनूय हाताळटां. पूण मदींच बरोवपाक खंड पडिल्ल्या कारणान म्हज्यांतलो कवी जाय तसो सशक्त उरूंक ना. पूण म्हज्योय एक कविता झेलो आसपाक जाय हो म्हजो हावेस आसलो. देखून म्हज्याच पोरण्या कवितांचेर नवीन संस्कार करून, नविन विचार, नविन आशय हाचे अळंकार चडोवन हांवें कविता पुराय केल्यो.

ह्या पुस्तकाक वैचारीक आनी सखोल प्रस्तावना बरोवन दिल्ले खातीर हांव नामनेचे कोंकणी कवी भोवमानेस्त संजीव वेरेंकार हांचो खूब उपकारी आसां.

एक कथाकार म्हूण म्हजो कोंकणी वाचकांनी जे तरेन स्विकार केला आनी म्हज्या कथांक जें आपलेपण दाखयलां तेच तरेन एक कवी म्हूण म्हाका स्विकारतले आनी म्हज्या कवितांक कथे इतलोच मोग आनी आपलेपण मेळटलें अशी आस आसा.

*अजय ज्यो. बुवा (आप्पा बुवा)*

# प्रस्तावना

कोंकणी राजभास आंदोलनाचो १९८५-८६ हो काळ आनी ते उपरांतच्या काळांत कोंकणीच्या वेगळ्या वेगळ्या कार्यावळींच्या निमतान खोडयें - सत्तरी, साखळे ह्या वाठारांनी वचप जातालें. खोडयेचें सर्गेस्त शांती तेंडुलकाराचें घर म्हणल्यार कोंकणीचें केंद्रूच. कोणूय कोंकणी बरयता, वाचता वा कोंकणी कडेन लागीं येतासो दिसलो जाल्यार शांती ताका लागीं ओडटालें. ताच्यो कथा-काणयो, कविता वेगळ्या वेगळ्या नेमाळ्यांनी छापून हाडपाक धडपडटालें. आयज कोंकणीच्या मळार नक्षत्र कशें लिकलिकतात ते डॉ. प्रकाश वजरीकार, प्रकाश पर्येकार हे त्याच काळांतले. शांतीचे सावळेंत चडशे ते वावुरताले. उपरांत १९९३-९४ ह्या काळांत आनीक कांय नांवां मुखार आयलीं. तीं म्हणल्यार शाबा कुडतरकार, प्रा. हनुमंत चोपडेंकार, अजय बुवा (आप्पा बुवा) रुपेश सामंत, प्रफुल्ल आत्मा नायक अशीं जायतीं. पूण कांय काळा उपरांत कांय नांवां कवितेच्या मळा वयल्यान शेणलीं. पूण प्रा. हनुमंत चोपडेंकार, स. शाबा कुडतरकार आनी आप्पा बुवा हांणी कविता तिगोवपाचें काम चालू दवरलें. स. शाबा कुडतरकारान कवितेक एक वेगळोच आयाम हाडपाचो येत्न केल्लो. प्रा. चोपडेकार हांचें नांव सध्या साहित्य समिक्षेच्या मळार वयर सरपाक लागलां.

आप्पा बुवा महाविद्यालयीन जिणेंत बरोवंक लागलो. ताकाय शांती कडल्यानूच प्रेरणा मेळ्ळी. आप्पा बुवा मदल्या काळांत साहित्य मळा वयल्यान गायब जालो. आतां परथून उदेला. एके एके साहित्य निर्मणे खातीर अशें जावप ब-याचेंच आसता. ताची एसएमएस ही कथा राष्ट्रीय पांवड्यार ‘क्लीक’ जाली. कथे बरोबर ताची कविताय वाचप्यांची नदर ओडटा. जें दिसता तें तो स्पश्टपणान मांडपी. जें आसा तें भीड मुर्वत दवरिनासतना कागदार देंवोवप वा सादर करप हें आपा बुवाले कवितेचें वैशिश्टय. ताची कविता म्हाका कळटा. देखून ताणें आपल्या ‘म्हज्या कवितांची डायरी’ ह्या कविता संग्रहाची प्रस्तावना म्हाका बरोवपाक सांगली तेन्ना म्हाका ना म्हणप जालें ना.

साहित्य हें समाज प्रबोधना खातीर आसता अशें जर आमी मानतात जाल्यार तें सर्वसामान्य वाचप्यांक कळपाक जाय. ताच्या काळजाक भिडपाक

जाय, अशें म्हजें मत. जंय संद मेळटा थंय थंय हें मत हांव व्यक्त करतां. आप्पाले कवितेक एक खाशेलपण आसा. ताचे विशय साचेबद्ध न्हय. समाजांत वावूरतना चाटेपावलाक आमकां ते विशय मेळटात. ताच्या लेखनांत मराठी उतरांचो प्रभाव मातसो जाणवता. अशें जरी आसलें तरी कोंकणी कवितेक तीं उतरां बादा हाडिनात. कोंकणींत निलबा खांडेपारकार हें एक नांव चकचकता. ताची कविता कळटली जाल्यार रामायण, महाभारत अशे पुराणीक इतिहासीक संदर्भ खबर आसचे पडटात. आप्पा बुवाचेंय कांय प्रमाणांत तशेंच. ताच्याय कवितांनी कांय पुराणीक संदर्भ येतात.

आप्पाची 'म्हज्या गांवचो पावस' नांवाची एक सुंदर कविता आसा. हे कवितेंत ताणें आपल्या सत्तरी वाठारांतल्या पावसाचें वर्णन केलां. सत्तरींत सगल्यांत चड पावस पडटा हें आमी जाणाच. ह्या पावसाचें वर्णन करतना कवीन महाभारतांतलो श्रीकृष्ण, द्रौपदी, रामायणांतली सीता, तशेंच उर्वशी, मेनका ह्या पुराणांतल्या सुंद-यांचो सुचक पद्दतीन वापर केला. 'हो पावस भोवरुपी आसून लेगीत नाटकी न्हय'. ह्या दोन वळींनी तर कवी खूब कितें सांगून वता. हे कवितेंत फकत पावसाचें वर्णन नासून सामाजीक आशयूय थपथपिल्लो आसा. ताकाच लागून कविता चड भावता. 'जगप म्हळ्यार' हे कवितेंतूय कवीन अश्याच प्रतिकां-प्रतिमांचो वापर करून वाचप्यांक सुंदर संदेश दिवपाचो यत्न केला. जिणेंत जर प्रेम नासत जाल्यार सगळेंच अळणी जाता. हो सूर आप्पा बुवाच्या कांय कवितांतल्यान व्यक्त जाता. मनशान दर गजालीचो मायेचे भावनेन विचार केल्लो जाल्यार सगळेंच जग सुखी जावपाचें.

आप्पा बुवाची 'हय सायबा' ही कविता वाचप्यांच्या काळजाक पीळ घालता. हे कवितेंत मांडिल्लो विचार वैश्वीक आसा. पूण माथाळो सुसंगत ना अशें दिसता. खंयच्याय मनशाक कोणें किंकोत लेखूंक फावना. पूण समाजांतल्या चडश्या मनशांक तें कळना. नियती आनी कर्तृत्व आमकां खंय पावयत हाचो नेम ना. हाचेर उजवाड घालपी ही कविता वाचप्यांच्या काळजांत घर करून रावता.

साहित्य मनशाची जीण कशें बदलूंक शकाता हें दाखोवपी ही कविता नदरेंत भरले बगर रावना. अत्यंत कठीण परिस्थितींत जगपी कवी एक दीस 'काळाचा महिमा अगाध आहे' 'Everybody write his own destiny' हीं उतरां वाचता. आनी सामको गळाक आयिल्लो कवी आपल्या शिंगांक धार काडून काळाचेरूच स्वार जाता. आनी थंयच ताच्या जिवितांत बदल घडटा. हरशीं द्वेश, मत्सर करून कवीची टवाळी उडोवपी समाज कवी मुखार मान बागयता.

वाचप्यांक प्रेरणा दिवपी ही कविता. म्हाका ही कविता खुबूच मानवल्या. कवीन आपल्या जिवनांत बरेच दगदग सोंसल्यात आसतले हातूंत दुबाव ना. ताच्यो कविता पळयल्यार अशें दिसता, आप्पा बुवान व्यक्त केल्लो हो विशय एका कवी पुरतोच मर्यादीत ना. आमचे सारखे कितलेशेच जाण ह्या प्रवासांतल्यान गेल्यात. वास्तवाचें चित्रण आशिल्ली ही कविता वाचप्यांक जगपाक प्रेरणा दितली हातूंत दुबाव ना. कवीन खंयतरी वाचिल्ल्यो दोन वळी कवीचें जिवन बदलून उडयतात. साहित्याची तांक कितें आसूं येता हें दाखोवपीच ही कविता अशें हांव म्हणन. आमचे कांय नवे कवी वास्तवाचो व्हडलोसो विचार करिनात. केन्नाच प्रत्यक्षांत घडूंक शकना अशा कल्पनांच्या जाळ्यांत कांय कवी घुसपल्यात. तांचो विचार केल्यार आप्पा बुवाची कविता बरीच मुखार आसा.

'मरणइत्सा' ही फुलांचे व्यथेचेर उजवाड घालपी एक अप्रतीम कविता. फुलांक देवाचेर वा अस्तुरेच्या माथ्याचेर वचपाचें आसता पूण तीं राजकी फुडा-याच्या मरणाचेर पावतात. ही कविता वाचतना संजीव वेरेंकार हांची 'एका फुडा-याचें मरण' हे कवितेचो उगडास जाता. अशें आसलें तरी दोनूय कविता वेगळ्यो म्हणच्यो पडटात. केन्ना केन्ना वेगळे वेगळे कवी एकेच भाशेंत विचार करतात तेन्ना अशें घडपाची शक्यताय आसता. देख दिवची जाल्यार प्रख्यात कोंकणी लेखक पुंडलीक नायक हांचे 'गा आमी राखणे' ह्या संग्रहांतले 'बांगर बैल' हे कवितेची दिवं येता. त्याच काळांत वसंत सावंत ह्या कोंकणांतल्या मराठी कवीन 'बैल' नांवाची कविता बरयिल्ली. ह्या विशयाचेर त्या काळार चर्चा जाल्ली. पूण दोनांय कवींच्यो कविता स्वतंत्र. 'परतेची आस' ही एक तरल भावना व्यक्त करपी कविता ह्या संग्रहांत वाचूंक मेळटा. घोंटेरांतल्यान उडून गेल्ल्या सवण्यांचें प्रतीक वापरून बरयिल्ली ही सुंदर कविता. हे कवितेंत कवीन जिवनांतल्या सत्याचो मंत्र दिला. काळा प्रमाण परिस्थिती बदलत आसता. हे बदलपी परिस्थितीक दर एकल्याक तोंड दिवचेंच पडटा. हो संदेश हे कवितेंतल्यान कवीन सुंदर रितीन दिला. देखी खातीर हे कवितेच्यो कांय ओळी सकयल दितां.

*घोंटेरांतल्यान उडून गेल्ल्या सवण्यांक*
*केन्नाच विचारचें न्हय*
*तांच्यो दिको*
*तांच्या यादींक आदार दिवन*
*तांचे परतेची वाट पळोवची*

कविता हो असो प्रकार आसता, कांय कविता दोन ते चार ओळींनी पूर्ण

जातात जाल्यार कांय कवितांचो आशय विशय व्यक्त करपाक चड ओळी लागतात. चार ओळींनी पूर्ण जावपी कविता आठ ओळींनी बरयली जाल्यार जायते फावट बरे कवितेची वाट लागता. आप्पा बुवान हाचो आनीक अभ्यास केलो जाल्यार ताची कविता आटीव-घोंटीव जावंक पावतली. हे नदरेन कवीन अभ्यास करपाची गरज आसा. खंयचोय विशय सोंपे पद्दतीन मांडप ही बरोवप्याची कळाशी. म्हजे नदरेन आप्पाक ती बरे भशेन साधल्या. आप्पान आपलो काव्य प्रवास असोच चालू दवरचो.

**- संजीव वेरेंकार**

# मांडावळ

# स्वातंत्र्याचें अस्तित्व

स्वातंत्र्याचें अस्तित्व
म्हाका सोडून कोण दीत काय?
वीर मरणाच्यो यादी
परत खंय मेळत काय?

स्वतंत्र्याचें अस्तित्व
खंय तरी पुतळ्याक
हार घालून
भाशणाच्या व्हाळान शेणत आसा
आश्वासनाचे स्वायतत्ते खातीर
अस्तित्व ताजें आसा

फकत तितल्या पुरतें
अपेक्षेचें अस्तित्व
कायम आसलें
भोगपा पुरतें

पुतळ्याचें लेगीत काकळूट
कांय बोट दाखोवन सांगत आसात
अभिषेक हांगा न्हय...थंय...जंय
स्वतंत्र्याच्यो कुरवो आसात
कांय निर्जीव फातरांतल्यान
उलयत आसात.

काळजाचेर फातर दवरून
उडी मारली झुजा कोंडांत
आयज पुराय पाशाण जावन
पळयत आसात
लोकशायेचे बलात्कार.

# थंय! जंय!

थंय! जंय!
तांबड्या दिव्याची वस्ती सुरू जाता
थंय!
जंय!
बं-याची वस्ती सोंपता
थंय
दोन दिकांनी दोन नदरो
वाटे कडेन दोळे लावन आसात
आशा,
दोनूय नदरांनी आसा
'तो' येवचो, दोगांकूय दिसता
साजश्रृंगार
दोगांनीय केला
तोंडाक, दोळ्यांक, हातांक नक्षी!
दोगांय कडेन तेज आसा
सगळें कशें ज्युस्त आसा
पूण...
तरीय फरक आसा
एका घरांत
तिणें
ताटांत पंचारत आनी
म्होवाळ राखी सजयल्या
तर दुसरेन
ताटांत विड्याचो देंठ
मोडून दवरला
हांगा
पलंगाचेर फुलां सुस्त आसात
थंय

ताटांत फुलां उमेदीन आसात
मदींच
पुनवेच्या चंद्राच्या
उजवाडांत
दोन सावळ्यो दोन घरांनी
नाच्च जातात
दोनूंय घरांनी आतां
सुवाळे चल्ल्यात
खोशयेचे... खर्शेवपाचे
पंचारतीच्या उजवाडान हांगा
चंवर फुल्ला
थंय
भायर पुनव!
भितर अमास चल्ल्या
कोण किटकिट्टा! कोण उर्बेभरीत
पयशांचो आवाज दोनूय कडेन ...!

दारां परत उकतीं जातात
'ते' दोगूय भायर
समाधान....?
दोगांच्याय तोंडार
पयशे पारीक करून घेतिल्ल्याचें
एकाच्या तोंडार
मोग फारीक करून घेतल्याचें
एकाच्या तोंडार...
आतां...?
एकटो फाटीं परत परत पळयता.
कित्याक...?

दारान कोणतरी हात दाखयता
मायेचो, स्नेहाचो
एकटो मात चलत रावला
मनांत विचार... झक मारूं थंय

आतां... हांगा
एक नदर न्हिदेचे सुवादीन
एक नदर मात परत...
भायर येवन बसल्या
आतां हांगा फकत
तांबड्यो लायटी तितल्योच पेट्टात.

# फांतोड

व्हंकल कशी फांतोड ती
न्हेसल्या साडी रेशमाची
सैमाची एकूच ही
धूव बाये मायेची
फुलां उडयत सैमाचेर
हळूच ताका पळयता
सळसळट्या पाचव्या पानार
दवाथेंबे निथळटा
कानांत आसात साळकांफुलां
नाकांत सोबीत सदाफुलां
हातांनी कांकणां जायां जुयांचीं
पायांनी पायजणां वाल-वेलींचीं
व्हंकल कशी फांतोड ती
न्हेसल्या साडी रेशमाची

# सासाय

जागी जाल्या गोंयची धरतरी
जागो जाला आयज गोंयकार
आयल्यो जरी छाप्पन घुरयो
करतले आयज हात चार

पाचवो वाघेरी दिता शिकवण
तकली वयर काडपाची
आवय म्हादय दिता शिकवण
सदांच मुखार सरपाची
आसलीं जरी शस्त्रां सान
चडल्या तांकां वेगळी धार
आयल्यो जरी छप्पन घुरयो
करतले आयज हात चार

झाडां पेडां घालतात साद
जाय आमकां स्वातंत्रताय
कवी सगळे म्हणटात आयज
जागी जाल्या गोंयची सासाय
जालें गेलें जावन गेलें
ना आतां आनीकजोहार
आयल्यो जरी छाप्पन घुरयो
करतले आयज हात चार

# मन म्हजें

नाचता आयज मन म्हजें
फुलता आयज मन म्हजें
तुज्याच गो मोगा खातीर
झुरता आयज मन म्हजें

ओंठां वयलो मंद हांसो
फुलपी पिसो रान कंवासो
यादीन तुजे चलतां चलतां
शेणलें आयज मन म्हजें
तुजेच खातीर...

मंद मंद तुजीं पावलां
अटंग्या रानांतुलीं मोरपांखां
मन म्हजें शेणलां बाये
नदर धांवता धाय दिका

# दोळे तुजे

दोळे तुजे
उजवाड दाखोवपी
काळखांत बुडपी
सगल्यांक भुलोवपी
मोगाचीं सपनां दाखोवपी

दोळे तुजे
व्हड खोशी
सूख तेजस्वी
गंध आनंदी
फूल जास्वंदी

मोगाचो परमळ फाकोवपी
दोळे तुजे

# तुजेच खातीर

रम्य वसंत नासलो तरी
इंद्रधोणू लिपलो तरी
रंग म्हजे सोंपले तरी
चित्र तुजें काडटां आयज

चिखल सगलो सुकलो तरी
साळकां फुलां बावलीं तरी
सूर म्हजे सोंपले तरी
गीत तुजें गायतां आयज

दर्या ल्हारां सुकलीं तरी
मिठा खारसाण आटली तरी
फुलां परमळ उडलो तरी
वास तुजो घेतां आयज

तूं म्हजें नासलें तरी
तुकाच गो रावतां आयज
तुकाच गो रावतां आयज

# येतलेंच जाल्यार

येतलेंच जाल्यार
फुलांचे घुंगूर बांदून यो
शब्दुलेचो परमळ घेवन यो
हांसत यो... नाचत यो...
कळयो सगळ्यो फुलयत यो

मोग-यां कळयो फुलय सगळ्यो
परमळ तांचो फाकयत यो
लजत यो... मुरडत यो...
पुनवे चंद्राक लजयत यो

निळ्या मळबांत भोंवता घार
नदर तिची घेवन यो
फुलत यो... खुलत यो...
सैमाची नदर चुकयत यो

बंदनां कितलींय आसलीं तरी
मोगा तूं योच यो!

# म्हज्या गांवचो पावस

सत्तरीचो पावस
असो येता तसो वता
निळया वरी शिशू जावन
खोस मनार फुलयत येता
अपुरबायेचीं घुंगरां घेवन
सैमाचो उमो घेत येता

सीतेच्या रुपावरी
द्रौपदीच्या वस्त्रावरी
विणेची झंकार घेत
बाळकृष्णावरी धांवत येता...
म्हज्या गांवचो पावस

सर सर एक करीत
मदींच पिसो जुवान जाता
उर्वशीच्या नाचावरी
कुंभाराच्या चाकावरी
गोपांत घेवन पानां-वेली
फुलत आनी लजत येता...
म्हज्या गांवचो पावस

भोवरुपी आसून लेगीत
हो पावस नाटकी न्हय
सगळें दान करून लेगीत
मडकें ताचें फुटकें न्हय
कुंतीचे मायेवरी
दुदाचे सायेवरी

काळीज भीमाचें व्हड त्या
मेनकेचीं घुंगरां छम छम नाच्च जाता...
म्हज्या गांवचो पावस
असो येता तसो वता

# सपनां

मेल्ल्या सपनांक
परत अश्वत्थामा हो
घेवन आयला तुजे कडेन
त्या सपनांचेर
दुकांचे खूब अभिशेक जाल्यात
देखुनूच तांकां फुलपाचें आसा
आतां तरी 'ना' नाका
मेल्ल्या सपनांक
घडये येत आंकरी
तिचो रुखूय जायत
तो चंवरतूय बी
पूण....
मेल्ल्या सपनांनीच

# तूं

तूं
भविश्य दाखोवपी
फुडार दाखोवपी
मोठ्यांचे मैफलींत
ताळयो घेवपी

तूं आसाय
बुद्दीवंतांचें भुशण आनी
प्रगतीचें संभाशण
दुख्ख जाता तेन्ना
ल्हवूच दुकां पुसपी तूं

खिणा खिणाक दर खेपेक
सांगाती जावपी तूं
वांगडा कोणूच नासता तेन्ना
रितें मन भरपी तूं
सासणाची सांज करून
उतरपुजेक येवपी तूं

# नेमाच्या बंदनांनी

नेमाच्या बंदनांनी
संवसार आयज बंद आसा
नेमांचे चाकोरीक
मुक्तीची आस आसा
देखुनूच चालू आसा
काळजाची धडधड
आत्म्या पसून परमात्म्या मेरेन
नेमांच्या बंदांची
आयज मनाक संवकळ जाल्या
देखून जेन्ना पाखां लागलीं
तेन्ना....
फडफडत रावपाक
संवसार धन्य जालो
दिगंतरा उडपाचो हावेस
तेन्नाच नगण्य जालो
कित्येक योनींचो प्रवास
जायत आसा, जायत उरतलो
पूण...
नेमांच्या रसमी बंदांतूच

# पुतळ्या शब्द

हांसोवन लजोवप आनी
लजोवन हांसोवप
सगळें शब्दांचेंच सामर्थ्य
अर्थाचो अनर्थ आनी
अनर्थाचो अर्थ
करपाक शब्दांचीच सर्त

दोन जीव जोडपाची जादू
शब्दच लजोवन व्हरतात
दोन जीव तोडपाची जादू
शब्दच काळ्या कोटाआड बरयतात
उजो लावन पालोवप
शब्दांकूच बेसबरें जमता
करून सवरून नामा निराळे
शब्दांकूच पुरोन उरता

# बाबा

काणी ही त्या पुतळ्याची
त्या नाशवंत काळजाची
ताच्या आंगा खांदार विद्रूप त्यो
शेवण्यांच्यो धव्यो नक्षी
हांवें ताका विचारलें
हीच तुज्या जिविताची मखलाशी?
काळीज धडधडटालें तेन्ना

समर्थ उबो रावून शेक गाजयतालो
आतां हांगा हजारांनी वर्सां उबो रावून
तुका मेळपाचें तरी कितें आसा?
सांगशीत गजाल आदर्शाची तर
खिणा कणकणी
आदर्श नवे मेळत आसात
तुजे पॅण्टीच्या स्टायलीचीं
फकांडां मात जायत आसात
जितो आसतना केल्लें जावं येत तुवें
त्या शेवण्यांचेर असंख्य उपकार
देखून...
दीसभर हांगा थंय भोंवून तीं
पोट भरीत आसात
आनी कशेंय करून रूप तुजें
धापपाचो अविरत येत्न करीत आसात
पूण...
कृत्रीम पावसाची भास करून
खुबळावन घातिल्लो तुवें त्या वरुणाक
देखून नेमा प्रमाण आपूण तो झडत आसा
आनी तुजें धांपिल्लें रूप
लोकांक दाखयत आसा
ताच्या रागान तूं लेगीत
म्हाप्रलयाची वाट पळयत आसा.
तुजी म्हण इत्सा आसा
घालच्यो लोकांनी गाळी तुका
दिवचे श्राप तुका सर्वनाशाचे
पूण...
पिशा एक गजाल याद दवर
सदां खातीर
जीव, शृश्ट कोण ना उरपाचे
पाशाण तुमी

# शब्द

हांसोवन लजोवप आनी
लजोवन हांसोवप
सगळें शब्दांचेंच सामर्थ्य
अर्थाचो अनर्थ आनी
अनर्थाचो अर्थ
करपाक शब्दांचीच सर्त

दोन जीव जोडपाची जादू
शब्दच लजोवन व्हरतात
दोन जीव तोडपाची जादू
शब्दच काळ्या कोटाआड बरयतात
उजो लावन पालोवप
शब्दांकूच बेसबरें जमता
करून सवरून नामा निराळे
शब्दांकूच पुरोन उरता

# हांव मरण सजयतां

मोगा
तुज्या बोटान
हि-याची मुदी खूब सोबता
तुज्या बोटांनीच
हि-याची सुंदरताय वाडयल्या
तेन्ना भितर हांसपी
हिरो म्हाका दी
निखटे मुदयेन मनाक सजय
तुज्यो यादी जेन्ना
छळपाक येतल्यो
तेन्ना त्या हि-यान
हांव म्हजें मरण सजयतां.

# बळी

एका जिवाची तडफड
जीव वाटावपाची फडफड
कोण पिवळटा कोणाची मान
सैरभैर थंय कोणाचें मन

एका जिवाचो आक्रोश
जीव तांचो कासावीस
कोण आडयता तांचो श्वास
कोणा काळजाचो कोणाक ध्यास

एका जिवाचें रूदन
व्याकूळ ताचें मन
कोण सांठयता आपलें धन
विकून ताचें निर्जीव तन

एका जिवाचो आकांत
जिवाचेर ताच्या संक्रांत
शेवटाक पडलो
रक्ताचोच सडो
आनी
पिसांचीच रांगोळी
फडफडलो जीव बाबडो
पळयत सैरभैर जिवाची होळी.

# मोगा

मोगा
हांव केंद्रबिंदू जातां
तूं म्हजे भोंवतणी
फिरत राव
तुका भंय दिसता आसत तर
तूं केंद्रबिंदू जा
हांव तुजे भोंवतणी भोंवतां
म्हाका भंय ना

# मरण इत्सा

त्या दिसा
फुलां वांगडा कळयो लेगीत
ताणें खुंटून व्हेल्यो
कळयो खूब रडल्यो
वासपूस केले उपरांत
तांकां कळ्ळें...
गांवांत एक नेतो मेला
त्यो आनिकूय रडल्यो
बाविल्ल्या फुलान तांकां
समजायलें
फाल्याचें मरण आयज आयलें
रडटात कित्याक?
एक कळी म्हणपाक लागली
म्हाका देवाचेर पडपाक जाय आसलें
दुसरी म्हणपाक लागली
म्हाका अस्तुरेची वेणी जाय आसली
सगळ्यो कळयो उलयल्यो
बाःशें फूल मुमुर्खें हांसलें
तुमकां जाय तशेंच घडटलें
पळयात तुमी
आनी खरेंच तशेंच जालें
दुस-या दिसा लोकांनी
मड्या वयल्या फुलांचो
बाजार मांडिल्लो.

# परतेची आस

घोंटेरांतल्यान
उडून गेल्ल्या सवण्यांक
केन्नाच विचारचें न्हय
तांच्यो दिको
तांच्या यादींक झालर दिवन
तांचे परतेची वाट पळोवची
उडून गेल्ल्या सवण्यांनी
पानां सुकिल्ल्या झाडांक
केन्नाच विसरचें न्हय
सैम बदलत रावता
हें मतींत दवरचें
शिंयाच्या दिसांनी
पानां गळटकच
सुक्या पाल्यान
केन्नाच रुसचें न्हय
निश्पर्ण खांदयांचेर
सकयल रावून
नवे आंकरेची वाट पळोवची
कित्याक तर
शेवणीं परत त्या रुखार
येवचीं आसात.

# झरो

चावपी मनाक खावपी
वां-या वांगडा टक्कर दितना
म्हजी म्हाकाच
आतां लज दिसपाक लागल्या
थोडिशी ऊब मेळत म्हणून
खूब परशे पालथे केले
पूण परश्यांच्यो ज्वाळा दांत दाखयत
म्हाकाच खावपाक आयल्यो
देखून हांवेन
आतां ल्हान झरो जावपाचें थारायलां
हळू हळू व्हांवपी
घडये फाल्यां दर्या जायत.

# म्हजो गांव

कोणाच्या तोंडार दिसचीं नात दुकां
सांजेचे कुशीक मोरपांखां
कोणा मनार दर्या ल्हारां
कोणा मनार मोगा सिंसो
म्हजो गांवूच तसो
राजकुंवर कसो...

पाचवी हिरवळ दोंगरा माथ्यार
दवा थेंबे खेळटात तणा पात्यांर
वा-याच्यो शिळोण्यो कितल्यो राया
मनाक परमळ हाडपी हांसो राया
परमळपी फुलां पळोवन
अस्तुरेच्या तोंडार हांगा सदांच हांसो
म्हजो गांवूच तसो...

झाडां-पेडांचेर सदांच सवण्यांच्यो राशी
भुलोवपी चलयांच्या मेथयेच्यो नक्षी
संगीत जावन व्हांवता झ-यांचें पाणी
कोगळाच्या ओंठार सप्तसुरांचीं गाणीं
वेव्हाराक शाणो कलेक मात साप्प पिसो
म्हजो गांवूच तसो....

पयसुल्लो तो पाचवोचार पिसो माळ
केन्ना मळबूय ताचें चुंमता गाल
पावस हांगा बारीक बारीक चान्याचो
भुरग्यांक खेळोवपी ल्हान चानयेचो
मोगाचे आशेन कोणूय येवचो हांगा जाय तसो...

म्हजो गांवूच तसो...

चंचळ ल्हारां किटकिट्टात दर्यावेळेर
दर्याक वेंग मारता गांव म्हजो ते वेळेर
काळोखूय घेवन येता खोशयेचें ल्हार
शींण तोंडां वयलें वतात वाऱ्यार
जावं तो परकी, लोक म्हणटात तूं आयज रावच कसो
म्हजो गांवूच तसो...
राजकुंवर कसो.

# प्रस्न

कांय प्रस्न मुद्दाम येतात
कांय आपणीच उपरासतात
कांय प्रश्नांतल्यान प्रश्न येतात
कांय प्रस्न सान आसतात
काळजाक चिरपी बाण आसतात
प्रस्न उजो लावन नाच जातात
दंगली जावन जळटात
ते सोंपच नात
सोंपोवचे म्हटले तरी.

# केन्नाच तिणें

केन्नाच तिणें
आपलें रूप सजयलें ना
दुस-याक भुलोवपा खातीर.
रुपाची राणी ती
मुळांतूच फुल्लेली
मनांतसून सजलेली
आनी नटलेली.
तिचे कडेन आसा
निस्वार्थ देखणेपण
पेटलेली मनां थंड करपी.
चंद्रकळेच्या स्वप्ना सरकें
नवें नवें व्हांवपी
आनी....
रिकाम्या हातांनी
सदांच म्हाका कितें तरी दिवपी.

# तुज्या दोळ्यांत

तुज्या दोळ्यांत मोगा
ल्हवूच वच्चें
नदरेच्या कोशांत
काजळ जावचें

तुज्या ओंठांनी
ल्हवूच लिपचें
लिपतां लिपतां
रस चोखून वच्चें

तुज्या गालाची
खळी जावचें
मोरपांखांनी
फुलून वच्चें

तुज्या हांसपांत
तुकाच पळोवचें
म्हजेच दोळे
हांवें लिपोवचे.

# रंगयाळो मोग म्हजो

रंगयाळो मोग म्हजो
मळबांत वयर उडटा
सोबीत तुज्या सांगातान
काळजांत ल्हार फुट्टा

सैमाचेर नाचतां नाचतां
वा-याचेर धोलता
दर्या वांगडा खेळटां खेळटां
उदकांत वचून लिपता

सुर्या वांगडा खेळटां खेळटां
चंद्रा वांगडा नाचता
नखेत्रांच्या सांगतान
फुलां वांगडा परमळटा

फुलांचो घेवन परमळ
कळ्यांक तो लजयता
जावंक ना अजून कायच तरी
सगळे कडेन गाजयता.

# दुकां

हें पळय
दुकां गळोवंपाचो
यत्न करूं नाका
घडये म्हजीं
सपनां व्हांवून वचत
दुकां तुका व्हांवोपाचींच
आसत तर
म्हजो नाईलाज आसा
पूण...
म्हज्या कोसळिल्ल्या
सपनांचो
महाल बांदपाक
चार दुकां कुशीक दवर.

# पयस खूब

पयस खूब वच्चें आसा
खूब किदें पळोवचें आसा
एक गीत गावचें आसा
दुकां वांगडा पेंवचें आसा

दुख्खा मर्दी न्हावचें आसा
सुटपाक लेगीत भिवचें आसा
सर्वस्वान दिवचें आसा
खूब किदें घेवचें आसा

दर्या ल्हारां हुपचीं आसात
नामांतरां जपचीं आसात
शीड व्हलें व्हलोवचें आसा
बियां देंठ किल्लोवचे आसात
वादळा वांगडा खेळचें आसा
गर्भ बीं केळचें आसा

# तुज्यो वेदना

तुज्यो वेदना
म्हाका सांगपाच्यो नासत
जाल्यार
फुलांचे बंदखणींत
दुकां जपून दवर
म्हजे बराबर
तांकां ख्यास्त नाका

# परत तेच वाटेचेर

परत तेच वाटेचेर
पांय ल्हवूच येतात
तेन्ना
मेल्लें मळब लेगीत
म्हचे भोंवतणी फिरता

दुकांनी भरिल्ले दोळे
तानेन अशेच गच्च उरतात
कोसळपी धारे खाला
अशेंच उबें रावचें तर
दुकां गाला वयलान येतात

कोसळपी थेंबे
पावसाचे काय दुकांचे
हाचो भ्रम
मदींच लोंबकळत दवरता

# तुजें रूप

मन
हालून गेलां
तन
चंवरून गेलां
पयसुल्लें
तुजें रूप
नदर
भरसून गेलां

# रात सपनांची

रात सपनांची
तिवूय आयज जळपाक लागल्या
सपनेवपी मन म्हजें
ताकाय आयज कळपाक लगलां

प्रश्नचिन्नां तींच तीं
परत ओंठार आयिल्लीं
कांट्या वयल्यो जापो तांच्यो
मदींच अशो छळपाक लागल्यात

सपनां लेगीत बेयमान
मदींच कुंय करुन गेल्यांत
दुकांफुलां गालां वयल्यान
सपनान आयज गळपाक लागल्यांत

# मळबा वयलीं दोन शेवणीं

मळबा वयलीं दोन शेवणीं
सपनां पिशीं रुजोवन गेलीं
निळ्या तळ्यांतल्या उदका वयलीं
साळकां फुलां फुलोवन गेलीं

शब्द शेणिल्ल्या सप्तसुरांचें
नकळत तें गीत जालें
काळखाक कातरून
वाट पळोवपी मीत जालें

दोन शेवणीं सपनां जावन
घोंटेर सान बांदपाक गेलीं
हरयाळेचे दोळे घेवन
पिलांक त्या सोदपाक गेलीं

# परत परत

परत परत तेंच तें
नवें अशें कांयच ना
तींच दुकां तीच दिका
सपनाचे पांखे
यादींच्या चंवरार
वर्तमानाक विसरून
फुडाराक वेंग मारपी
तेंच तें... परत
जिणेच्या अस्ता मेरेन
सोंप मेरेन सपन वांटे
आनी...
निस्तेज जाय मेरेन
कुडीच्या चैतन्याचें अस्तित्व.

# तुका निरोप दितना

तुका निरोप दितना
दोनूच सरी कोसळिल्ल्यो
खरें सांगूं
म्हजो देव तेन्ना
नाका जायसर रडिल्लो.

# म्हाका हें

म्हाका हें
बदलपाचेंच आसलें
जालें तें जावन गेलें
तें जावपाचेंच आसलें

केन्ना कोडू केन्ना गोड
जिवीत म्हाका हें
बदलपाचेंच आसलें
जें प्राक्तनांत तेंच आसा
वेगळे न्हय भोग हे
वेदनेक म्हजे केन्ना तरी
येवपाचेंच आसलें

सोबीत फुलां सगळे कडेन
सैरभैर पिशीं
पोंदचे कांटे बारीक
वेंचपाचेच आसले

दर शब्द जरी विखारी
पोटांत तूं घेच
हांव जें सांगतां
मीरेक तें सांगपाचेंच आसलें.

# मरप केन्ना जमलेंच ना

उजवाती वांगडा जळून
वास दिवप जमलेंच ना
कळयो लजून तयार म्होंवाळ
फुलूंक केन्ना आयलेंच ना

उबून गेल्ल्या मनान
वांयगण पाचवें पेरले तेन्ना
वां-या वांगडा, फुला सारखें
झुलप केन्ना आयलेंच ना

आर्तमनान सुके वलसर देंठ
मनार केन्ना आयलेच नात
सोबितकायेचे तानेन पिशें जावप
मनाक केन्ना पटलेंच ना

पाखां खूब फाफूडलीं
पंख म्हाका आयले तेन्ना
दोळे धांपून खरें खरें
मरप केन्ना जमलेंच ना.

# हांव केन्ना केन्ना

हांव केन्ना केन्ना
नखेत्र्यांच्या मोगान पडटां
केन्ना स्वप्नांच्या व्हाळांत
रातभर न्हिदून आसतां.

सपनां लेगीत शिस्तबद्ध
कामां आपलीं करून वतात
मनाच्या हारशांत
नवीं रुपां भरून वतात.

स्वप्न निर्मीत संवकळीचें
मनाक सदांच चंवरयता
पंचारतीचे वातीचें
सपन सदांच काळजांत उरता.

# बायल हांगा

देवळाचेर, बल्कांवाचेर
काळेकुट्ट चुलीचेर
संस्कृतीचीं बोंदरां शिंविल्लीं
बायल जात हांगा शेणिल्ली

व्हाळाचेर, दोंगराचेर
गोठ्यांतल्या शेणाचेर
वासनेची शेणी थापलेली
बायल हांगा भोगलेली

खळ्याचेर, माळ्याचेर
कांट्यांचे फांतयेचेर
पुरूश संस्कृताय बांदलेली
बायल हांगा विकलेली

मळबाचेर, ग्लासाचेर
लिप्स्टिकेच्या रंगाचेर
नदरेची वखवख करपल्ली
बांयला हांगा पस्तावल्ली

# केन्ना तरी

केन्ना तरी मदींच एकदां
यादीक म्हजे येता जाग
फुल्लेल्या पाकळ्यांचो
उडून वता तेन्ना साज

यादीक ना भान ना रूप
पाखे कशे येतात उडून
ल्हारांची सोंपणां करून
पिसा सगळी व्हरतात उबून

पांखांटो मात ओग्गी आसा
पावसाची सुलूस दोळ्यांत आसा
यादींचे वादळी रातीक
गीत तांकांय गांवचें आसा.

# अर्दी वाट

अर्दी वाट केन्नाच सोंपल्या
अर्दी सरणाक ओंपल्या
चलतना खूब शेणल्या
गणीत खंय मांडलां?

आयुश्य फुडलें कळिल्लें
फाटलें पाल्यान सुकिल्लें
स्वप्नान खूब केलां
हातांत केन्ना आयलां?

आतां मेरेन मारून व्हेलां
जगा आड खूब केलां
जिवीत शिखर हुपलां
चुड केन्ना पेटयलां....?

# शेतकाराची बायल हांव

शेतकाराची बायल हांव
शेतूच म्हाका खबर आसा
दीस आयले, दीस गेले
चुंबळ अजून माथ्यार आसा.

दोळ्यांक वाट पावसाची
कानाक संगीत झऱ्याचें
सण येतले, परबो जातल्यो
मळण्यो रावच्योनात घुंवपाच्यो.

म्हारगाय ती म्हाका लागना
लागना म्हाका शिंया वारो
घरकार म्हजो वावुरता थंय
वांट्याक सूख आयल्यार पुरो.

घोंटेरांत चार पिलां म्हजीं
वाटेक नदर लावन आसात
शेतकाराची बायल हांव
शेतूच म्हाका खबर आसा.

# मोगांत हांव

गीत तुजें गावपा खतीर
सोदतालों स्वर हांव
पूण कसले स्वर, कसलें गीत
सप्तसुरांतलो 'सा' म्हणपाक लागलो
तेच अस्तुरेच्या मोगांत हांव

चित्र तुजें काडपा खातीर
सोदतालों कांय रंग हांव
पूण कसले रंग आनी कसलें चित्र
रंग तो 'गुलाबी' म्हणटालों
तेच अस्तुरेच्या मोगांत हांव

रागान एक सिगरेट ओडली
पळयत जाल्यार धुंवराच्या वलयांत
तुजेंच रूप
पूण मस्तो धुंवराचो झुरको
मदींच उलयलो
हेच अस्तुरेच्या मोगांत हांव.

# पावस

रिमझीम पावस
ओंत्ता आयज
भिजयत सगळ्या
राना वनाक
कुपांच्यो मडक्यो
हातांत सैमाच्या
भार आयला
दर्या ल्हारांक
पयसुल्ले ते
दोंगरा तेंगशेर
नाचतात सरी
बावल्यो कश्यो
केळंबे बाबडे
पिशे कशे
लिपयतात भांगर
लावन कशे.

# तूं

तूं
चंद्राचो शितळ
तोखेता पळय सप्तर्शी
वारो चंचळ
अप्सराच तूं उर्वशी
फूल तूं
मोव मोव पाकळ्यांचें
वंसत....?
ताचेंच एक रूप तूं
वा-या वांगडा येवंदी
परमळ तुजो सोबीत तो
पूण...
वा-याक लेगीत पयसूच दवर
नदर ताका दिवंच नाका
नदर तुजी शेणत जाल्यार
नदर म्हजी
उरतली तशीच......!

# गोमन्तक

भारत भुंयेचें नंदनवन हें
नांव हाचें गोमन्तक
असंख्य देवळांच्या रुपान जंय
देव लेगीत नतमस्तक
हांगा हिरवळ थंय हिरवळ
पाचवी पाचवी चार
पाचवीं रांना पाचवे दोंगर
सोबीत सोबीत आकार
ऊंच- ऊंच वाघेरीचें
लागलां मळबाक माथें
पावंला कणकणी परमळचे हाथे
बारांय म्हयने फुलांक परमळ
फळांक हांगा भार
जायो, जुयो, मोग-यां कळयो
मनभुलयणो वाठार
सळसळपी न्हंयांचें सदांच
गांजता हांगा संगीत
कोगळाक त्या सर्त करपाक
रातराणयेचेंय एक गीत
काळ कितलो सोंपलो तरी
दिसता सोंपलें सप्तक
भारत भुंयेचें नंदनवन हें
नांव हाचें गोमन्तक

# म्हजें गोंय

सात जल्माचे पुण्यायेन
जल्माक हांगा आयलों
पळोवन रूप गोंयचें
कृतार्थ हांव जालों

धर्मविरांची कर्मभूंय ही
जशी भांगराची खाण
बुदवंताची शुरवंताची
केन्नाच नासली वाण

विष्णू अवतार परशूरामाचे
लागल्यात हांगा पांय
वाणी ही अमृताची
कोंकणी हिची मांय

नमळायेन सतत पांय धुवपाक
तयार तो म्हासागर
मांडवी आनी जुवारीचें
ख-यांनीच सोबता कुळार

रंगयाळी हांगाची लोककला
फुगडी आनी धालो
पळोवन रूप गोंयचें
कृतार्थ हांव जालों.

# हांव दुश्शासन

हय!
म्हकाय एक महाभारत घडोवपाचें आसा
पूण हांव कोण जावं
धृतराष्ट्र...?
नाका तो कुड्डो
म्हाका कांयच दिसचें ना
उगडीं आंगां दिसचीं नात
विदूर जावं...?
नाका
सत्याचो मार्ग म्हाका नाका
पोट भरपाचो प्रश्न आसा
अर्जुन जावं...?
तो मात नाकाच नाका
आपली बायल
भावां म्हं-यान न्हिदोवपी
भीष्म जावं हांव...?
नाका.
म्हाका लग्न जाय.
आंकवारपण कितलें सोंसतलों हांव....?
दुर्योधन जांव काय....?
नाकाच
पांच घोवांचे बायलेची आस धरपी
हरशी म्हणून
उश्ट्या ताटांत हांव केन्नाच जेविना
कृष्ण जावं येता.
पूण नाका...

शंभर बायलांक
पोसतलो कोण...?
आदींच म्हारगाय आसा
पोट भरपाचो प्रस्न आसा
शक्त ना म्हज्यांत.
हांव दुश्शासन जातां.
अस्तुरेची साडी सोडटना
तिका नागडी करतना
सगळे म्हाका पालव दितले
सगळे पळयतले
शेवटाक वासना न्हय ती...!
हय!
म्हाकाय एक महाभारत घडोवपाचें आसा
कपटान जग जिखपाचें आसा.

## सैम

देव
खूब शाणो
आपणाक अमर जिवन
मनशाक मात
सदांच मरण
मनीस मात
देडशाणो
देवाचो राग ताणे काडलो
सैमाचेर !
...........!
सैमय आतां
शाणों जावपाक लागलां
केन्ना देवाचेर
केन्ना मनशाचेर
राग आपलो काडपाक लागलां
भूंयकाप, त्सुनामी विनाशाचे प्रकार
आतां सदांच जावंक लागल्यात.

# तुजोच तो

काळजाच्या खोल जखमांचो
घाय तुजोच तो
दुखेस्त त्या यादींचो
अस्पश्ट भार तुजोच तो
जोडिल्लें हांवें नातें अप्रूप
उदक शिंपून दुकांचें
भावनां वांगडा खेळपी
चित्र जुगार तुजोच तो
पयलेच वाटे वयलो
निबर काळोख तुजोच तो
शब्द लाचार ओंठां वयलो
तुजोच तो

# केन्ना तुजें

केन्ना तुजें
केन्ना म्हजें
सपन आसता
भंगलेलें

केन्ना लय
केन्ना प्रलय
दुख्ख आसता
सजलेलें

केन्ना तन
केन्ना मन
तरी विखान
भरलेलें!

# याद

तुजी याद
फुलां साज
दर्या गाज
एक दायज

तुजी याद
म्हजी प्रेरणा
मीरेची विणा
एक प्रार्थना

तुजी याद
शितळ वारो
चंद्रा चेरो
एक फेरो

तुजी याद
मोर पांखां
पिशीं दुकां
एक तुका
एक म्हाका

# मनातलो पावस

मनांतलो पावस
बेभाम कोसळटा
काळजाचे खांदयेक
चंवर भरता

मनांतलो पावस
शब्दसुरांत आसता
मनाच्या कोनशांत
भावनावंश जाता

मनातलो पावस
उतरां जावन कोसळटा
जिविताचे पंचक्रोशींत
ल्हारार ल्हार उसळटा

# भेट तूजी

सैमाच्या वळणाचेर
भेट तुजी सदांचीच आतां
तू फकत हांसून घे
दोळ्यांनी सगळें पळोवन घेतां
आतां सदांचेंच
सैमाकूय त्या संवय जाल्या
सैरभैर तुजी नदर
लज मात निखटीच वता
उलोवप हांसप कांयच ना
मनाची आस पयस गेल्या
आडोसाक पदर तुजो
ओंठार कोणाच्या होंवयो येतात.

# वसंत

वसंत नाचत आयलो
वसंत आयलो रे
सुखाचो परमळ आयलो रे
सैम खुल्लें... फुलां फुल्लीं
कळयांक भार आयलो
फुलां वांगडा खेळटां खेळटां
भोंव-याक बेजार आयलो
झाडां-पेडांक चंवर आयलो
वेली सगळ्यो वयर सरल्यो
दवा थेंबे हे झेलतना
साळकांक बेजार आयलो
कोगळाच्या आवाजान
सैमाक भुरळ घाली
कुहू कुहू आवाजान
सगळ्यांक जाग हाडली.

# हय सायबा

आसलोंच हांव कृश आनी अशक्त
दैवाक दिसतालें
हय सायबा, हय सायबा
करीत जगतलों
लोक येतले, लोक वतले
हांव सलामी दीत रावतलों
ना पोरसांत बांय,
ना शेतांत वझरो
तान गळ्याक चुकिल्ली ना
लोकूय म्हणटालो
कळसो घेवन गांव गांव भोंवतलो
पावस येतलो, पावस वतलो
हांव मात दिसाळ्यांतले
सेंटीमिटर मेजीत रावतलों
मळणी लोकांची करतां करतां
जाणट्यांनी शेतां रोयलींच नात
भूक कोणाक चुकिल्ली आसा?
जाणट्यांनी वाडी मागपाची येसाय
बेस बरी केल्ली
माई बरें करूं .....
हांव लेगीत भोंवत रावतलों
एक दीस खंय तरी वाचलें
'काळाचा महिमा अगाध आहे'
Everybody writes his own destiny
शिंगांक काडली धार
आनी... एक दीस

काळाचेरूच जालों स्वार
आतां फकत
शिंगां दाखयतां
आनी मान हालयतां
लोक हय सायबा,
हय सायब करीत
फाटल्या फुडल्यान धांवत आसात.

# म्हजों गांव

रुतू आयले रुतू गेले
हांवें केन्नाच कोणाक
राव म्हूण सांगलें ना
ताकाय दिसतालें
शिंवरचो म्हजेर
पूण हांवें म्हजो गांव
खंय म्हूण सांगलें ना
वेदना म्हज्यो पळोवन
पावस घोग्यांनी रडटालो
हांव मात
दोनूच खारसाणीचीं दुकां उडोवन
वेदनेक चिड्डीत भोंवतालों
एक दीस ताणेंच म्हणलें
'परवशते'चो तुज्या गावलो म्हाका थाव
मातसो राव दाखय तुजो गांव
हांवें गांवा कडेन दाखयलें बोट
तेन्ना
घोग्यांनी ओंतपी पावस
दोन दुकांचेर येवन थारलो
पावसाचीच तर चूक ही
ताच्याच हटवादीपणाक लागून
सरकारान गांव म्हजो
धरणाखाला बुडयलो.

# जिवंत तूं

कशेंय आसूं
म्हजे खातीर वसंत तूं
नाकां लोकांचीं मुरडूं थंय
लाखां भितर पसंत तूं

वाट सोंपता सगळ्यांची
म्हजे खातीर थंय दिगंत तूं
आंबाड्यांत नासलो तरी
पुजेक सोबपी अनंत तूं

देवा वांगडा आपालिपा खेळपी
गर्भगिरेस्त आसमंत तूं
पुण्यतीथ ती चाळिसावी तरी
रंध्रां रंध्रांत म्हज्या जिवंत तूं

# जगप म्हणल्यार

जगप म्हणल्यार
खरें सांगतां
फकत प्रेम करप

बाळकृष्णाचे लिलेचेर
रवीवर्माचे कलेचेर
अहिल्येच्या शिलाचेर
आनी शकुनीच्या फाशांचेर
लेगीत प्रेम करप
जगप म्हणल्यार
फकत प्रेम करप

कर्णाच्या औंदार्याचेर
द्रौपदीच्या सौंदर्याचेर
अर्जुनाच्या पराक्रमाचेर
आनी दुर्योधनाचे मदमस्तीचेर
लेगीत प्रेम करप
जगप म्हणल्यार
फकत प्रेम करप

तुळशीच्या पातिव्रत्याचेर
रामाच्या एकवचनीपणाचेर
श्रावणाचे भक्तीचेर
आनी कैकयीच्या मत्सराचेर
लेगीत प्रेम करप
जगप म्हणल्यार
फकत प्रेम करप
शबरीच्या बोरांचेर
मिरेचे शालीनतेचेर

राधेच्या नटखटपणाचेर
आनी साकीन भरून दिल्ल्या
पेल्यांतल्या मद्याचेर
लेगीत प्रेम करप
जगप म्हणल्यार
फकत प्रेम करप.

# पावसा

वारो नासल्यारूय चलता
काळीं कुपां नासल्यारूय चलता
पूण पावसा तूं योच

जोगलावणीं वागडां नासलीं तरी
वादळाक सांगातान घेवन यो
पूण पावसा तूं योच

धरतरी आशेल्या
दोंगर निरशल्यात
दिगंत करपलां
सगल्याक तुजी आस लागल्या
उटांगरांनी नाका
सान थेंबे घेवन यो
पूण पावसा तूं योच

घोग्यांनी नाका
हांगासरल्या रक्तपाता परस
व्हड जावन यो
पूण पावसा तूं योच.

# नवें यूग

चल्लां कितें कांयच समजना
कसलें यूग हें कांयच कळना
चार म्हयने पावस
बारा म्हयने रक्तपात
वळख फकत दोन दिसांची
सदांच चल्ला घातपात

नातीं गोतीं इतिहासजमा
निजाचेच करतात
चोरपाचीं कामां
सुवार्थाचीं सगळीं काळीं कुपां
गरीब बाबडो गाळटा दुकां

आपल्या ब-याक दुस-याचो बळी
दुस-याच्या ब-याक आमच्यो गाळी
सोडून वतलो धरतरेक हे
फुडलें कांयच दिसना
कसलें यूग हें कांयच कळना

# तुका पळयतना

मळबांत चान्नें हांसता तुका पळयतना
काळजांत हांव धादोसतां तुका पळयतना

सैम आयज सगळें
तुका गो पळयता
पिसो एक मोगी हांव
तुका गो आशेतां
मंद मंद वाजतात तुजीं गो पांयजणां
काळजांत हांव धादोसतां तुका पळयतना.

चांफेकळी नाक तुजें
मोगरे कळी दोळे गो
यादीन तुजे करतां हांव
खोसयेचे सुवाळे गो
फाकय परमळ सगळ्याक कळाव करिनासतना
काळजांत हांव धादोसतां तुका पळयतना.

# म्हज्या इश्टा

मनामोगाळ इश्टा म्हज्या
आयज कित्याक आयलें सपनांत
कितलें गो सांगलां तुका
नाचूं नाका म्हज्या मनांत

धवोफुल्ल रंग तुजो
फाकला आयज म्हज्या मनांत
छमछम तुजीं पांयजणां
घुमल्यांत आयज म्हज्या कानांत

मनामोगाळ इश्टा म्हज्या
दुकां कित्याक दोळ्यांत तुज्या
सासणा पासनू जें चल्लां
आयज आयलां वांट्याक तुज्या

# आशा

फातराचेर पाशाणाचेर
आशेचीं बिंयां लायतले
दुकांचें उदक करून
पीक फाल्यां फुलयतले
वा-याची चिंता नाका
श्वासाचेर तांकां हालयतले
दुकांची कास धरून
पावसाक लेगीत रडयतले
फकत आशा
मुठींत धरून
मड्याक खेळूंक धाडटले

# अस्तमचें धुकें

तूं आयलें
दिसलें फांतोड जाली
रंगांची लकेर फुटली
रंगांचें धुकें सुटलें
दोगांकूच दिसलें
धुक्याच्या आलतडीं पलतडीं
कोणाकूच कांय दिसना जालें
जेन्ना धुकें नितळ जालें
तेन्ना सूर्य...
अस्तमते कडेन आशिल्लो
आनी तूं एका धुक्या वांगडा
खंयतरी पयस
खुब्ब पयस...

# शाप

शाप तुमकां जल्माचो
जल्माच्या दुख्खांचो
दुख्खांच्या दुकांचो
दुकांचे खारसाणीचो

शाप तुमकां सद्दां मरपाचो
दुकांच्या दर्यांत
जीव बेठोच वगडावपाचो
शाप तुमकां खोशयेचो
खोशयेंतल्या विश्वाचो
विश्वांतल्या मृत्यूपासाचो
मृत्यूपाशाचे घटसाणीचो

शाप तुमकां श्वासाचो
फाल्यांचे आशेचो
जिवंत कुडीचेर
मड्या वयल्या फुलांचो
मनशाच्या रुपान
जल्माक आयिल्ल्यानो
हो शाप तुमकां सासणाचो

# सांज

भांगराचो कुडको तो
सैमाचे अपूरबायेचो
धोंलत धोंलत नदर पयस
गोपांतल्यान सुटला सूर्य

सुकण्यांची चादर ती
चिंवचिंवान गुल्ल आसा
मोख तांची घोंटेरा कडेन
पिलां वाट पळयत आसात

इ ऽ री ऽऽ री ऽऽऽ पापा
धनगराचो पोर...
गोरवां घरा परतत आसात
वासरां आसात पयस गोठ्यांत
हांगाच होटी फुगून आसा

रातराणीचे दोळे लिकलिकले
झाडार काजुले पिकपिकले
काळे रातीक येवकार दिवंक
सैमानूय हात पसरयले

दीसभर किरणां वांगडा संभोग
आतां आमोर बाळंत जायत आसा
रातकिड्यांच्या आवाजान
रातीचीं पिलां फळत आसात.

# चार दुकां

हें पळय
दुकां गाळपाचो
यत्न करूं नाका
घडये म्हजीं सपनां
व्हांवून वचत
दुकां तुकां
व्हांवोवपाचींच आसत तर
म्हजो नाइलाज आसा
म्हज्या कोसळिल्ल्या सपनांचो
महाल बांदपाक
चार दुकां कुशीक दवर.

# करीत रावचें

दुख्ख तितलेंच आपलें आसा
ताका जिवापाड जपत रावचें
आंवडो दाटून येतकच
दुकां फाटल्यान लिपत रावचें

आपलें गाणें आपूण
पिशा भशेन गायत रावचें
खडपां तीं कितलींय येवं
उदका भशेन व्हांवत रावचें

# येवन वच

तुकां येवपाचेंच आसत
तूं येतलेंच
प्रश्न तशेच दवरून

तुज्या मनांतलो देव
म्हाका अजुनूय मान्य ना
चालू आसा पुजा

येवपाचेंच आसत जाल्यार
ख-यांनीच येवन वच
म्हाका कांयच नाका
सगळें घेवन वच.

# म्हज्या देशा

म्हज्या देशा म्हजे खातीर इतलेंच कर
शाश्वत अशाश्वताच्या संघर्शांत
हांव कमी पडत तर म्हाका माफ कर

भ्रश्टाचार भ्रश्टाचार लोक बोंबो मारतात
मत मेजणेंतले जैतिवंत शिलेदार आमी
आमकां कादयेंत कोण घालता
'मनी ईज वॉट मनी डज'
हो संदर्भूच ऐसो
देखून म्हाका जाय पयसो
म्हज्या देशा म्हजे खातीर इतलेंच कर
चुकून माकून खंयच्याय घोटाळ्यांत
म्हजे नांव मेळत तर म्हाका माफ कर

रसातळाक गेली नितीमत्ता
संस्कृतायेच्या नांवा खाला कामांधांची सत्ता
भक्ती परस मोटी जायत आसा अश्लीलता
बलात्कार, विनयभंग सदांचेच आतां
म्हज्या देशा म्हजे खातीर इतलेंच कर
कळत नकळत खंयच्याय वासनाकांडांत
म्हजें वीर्य मेळत तर म्हाका माफ कर

धर्माच्या नांवा खाला राजकारणाची पोळी
रुपयाच्या अवमुल्यनाची सदांचीच ती होळी
थांबोवपाक सगळें समर्थ हांव आसां
तरी लेगीत भंय अशाश्वततायेचो आसा
म्हज्या देशा म्हजे खातीर इतलेंच कर

म्हज्या सुज्ञ मतदारांनी
म्हाका परत वेंचून काडलो तर
तांकां माफ कर
म्हज्या देशा म्हजे खातीर इतलेंच कर.....

# गोंया म्हज्या राया

गोंया म्हज्या राया
म्हजें एक काम करशीत गा
सपनां तुजीं म्हजीं पुराय करपाक
म्हाकाय आदार करशीत गा.

नशिबाक तुज्या वळवळेच आयले
केन्ना आदीलशा केन्ना पाखले
सरळ कण्याचे पूत तुजे
सुवार्था खातीर सदांच वांकले

‘जय हिंद’
एकूच मोटवो आवाज
धाय दिकांनी धांवले ते
तिरंग्याचें राजशी धोलप
स्वतंत्रतायेक पावलें तें

सुरू जालो मगेर
अच्छेव एकूच
लुटपी हातांक
ना दया ना मापूच
फरक फकत इतलोच आसलो
हात ते गोरे आसले
हे हात...
गोया म्हज्या राया
तुज्या मातये रंगाचे आसले
तुजीं सपनां,
तुजे हावेस

मातयेच्या नांवार
मातयेभरवण जायत आसात
पाखल्यांच्या देशांत
स्टिलाचे पूल बांदपाक
पूत तुजे तुकाच
खण खण खणत आसात

तुजो भांगराउत्सव मनयतात तेन्नाच
शास्त्रज्ञाक भांगराचो वास लागलो
मीन सोंपलें
आतां घणाघाय सोंसप ना
अशें म्हणपी तुजे भूंयमातेक
तेन्ना सावनूच
घरघरपी यंत्रांचो फास लागलो

गोंया म्हज्या राया
म्हजें एकूच काम करशीत गा?
काश्टेकाराच्या पोराच्या हातांत
गोंयची सासाय
परत दिशीत गा?

# णव गिरे

णव गिरे मळबांत तरी
सूर्य किद्याक जळत आसा
सगळ्यांक आंकरी फुटलेली
दुख्ख किद्याक गिळत आसा

आशेच्या आंगणांत सदांचीच
निराशतेची विकृत भावना
भावूकतेच्या आंगांत मात
यम कांटो किद्याक रुतत आसा

मनाचे खोलायेंत दुख्खांची सर
किद्याक त्या भाबड्याक
धेयवादी ल्हारां मात
आदळून किद्याक परतत आसात

# वेलये गो

भोळे पिशे वेलये गो
दुकां किद्याक दोळ्यांत तुज्या
पुसून उडय टपोर ते
सोबनात ते दोळ्यांत तुज्या

सैमाची खाश्श्या तूं
बेठेंच किद्याक रुसपाचें
जुवान रूख हांसूं पापें
तुवें किद्याक लावन घेवंचें

जुवानीचेर आयलां तूं
तांचें वयच तुका लजोवचें
मोगा भास वेगळीच तांची
तुवें हांसत तांकां झुलोवचें

# नदर

नदरेचे बाण दोळ्याक तोंपले
सल कोणाक सांगूंच नाका
पिंजिल्ली चादर लजेची ती
समाजाक त्रास बेठोच नाका

एकांताचो हट्‌ट नाका
पापण्यां भितर सांठयिल्लें आसा
हळवें मन आदींच तें
दुकांक वाट दाखोवंच नाका

चंद्राक त्या इतलो तोखेलो
तो अजून खंय रुसून आसा
पुनवे चेरो लख्ख तुजो
तिमिराक विसव दिवंच नाका

जितीं सपनां खोटीं काय आसनात
मानवतात म्हाका खुब्ब
लुटेरो म्हाका मान्य आसा
अनवळखी पिशी नदर तूं दिवंच नाका

# म्हाका जगचें आसा

धूंद फेंसाळ दर्या तोच
तेंच निळें मळब आसा
आतांच खरी सुरवात जाल्या
म्हाका अजून जगचें आसा

मेघ आयले, रकल्यो सरी
पांवळेन केन्नाचोच फेर धरला
उदक खूब सांडून गेलां
थेंब थेंब अजून जमोवचो आसा
म्हाका अजून जगचें आसा

रंग गंध उधळ्ळे कितले
कितलोय परमळ फांकलो तरी
फाटल्यान धांवप क्रिया ती
मृगजळ अजून गाठचें आसा
म्हाका अजून जगचें आसा

सूर, ताल, शब्द
सगळे बंद मुठींत म्हजे
बेसूर काय जायना
गीत नवें घडोवचें आसा
म्हाका अजून जगचें आसा

# विनाश

जिवितान आयज घावे खूब केल्यात
सगळे कडेन झुजाचें होमखण पेटलां
सावळे खातीर झाड सोदलें
तें वाळटेन भरिल्लें
नशिबान एक झाड मेळ्ळें
ताका फळूच नाशिल्लें
विनाशाचो काळोख जाला
पूण आत्मो अजून साबूद आसा
कूड सांबाळपाक तकली चलता
आत्मो मात धाय दिकांनी धांवता
प्रत्येकाक तळमळ लागल्या
कसली?
अप्रुपाची?
आशेची?
ना!
विनाशाची.

# दोन कवनुलां

(१)

सोपूत तुका शब्दांचो
मनाक म्हत्व दिवचें न्हय
फुडें फुडें वतना
फाटीं वळून पळोवचें न्हय

(२)

मरणा खतीर दोळे मिटले
काळजाचीं दोन स्पंदनां
वली सुकी मन शेणलें
नदरेंत चान्न्याचीं सपनां




**नांव :** अजय ज्यो. बुवा (आप्पा बुवा)

**पत्तो :** ड/३, रिश्वा रेसीडेन्सी, कला मंदीरा फाटल्यान, दुर्गाभाट - फोंडे - गोंय. ४०३ ५०६.


**प्रकाशित साहित्य :**

१. एस.एम.एस. (कथा झेलो)

२. प्रस्नाचिन्नां सासणाचीं (एकांकी)

३. बांवरी राधिका (कथा झेलो)

४. म्हज्या कवितांची डायरी (कविता)

**पुरस्कार आनी भोवमान :**

- भारतीय भाशा परीषद - कलकत्ताचो युवा कथाकार (राष्ट्रीय पांवड्यावेलो) पुरस्कार २०११
- भावनगर - गुजराथ हांगा जाल्या खाशेल्या कार्यावळीत साहित्य अकादमीच्या वतीन कथा सादरीकरणाची खास कार्यावळ.


महारूद्र प्रकाशन